# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्विमासिक

हेमंत अंक (मार्गशीष-पौष) २००६

म्हज्या पावलांत तुवें
तुजें पावल घातलें
आतां म्हजें पावल आडायलें

*शेणिल्लें पावल* पा.१८

म्हाका सांडून वचूंक सोदता
वच तूं, हांव आडायना
पूण वतना काळीजूय व्हर
ह्या काळजाची आतां गरज ना

*मरणाचे शिमेर* पा.१६

# ऋतु

**कवितेचें कोंकणी द्विमासिक**

हेमंत अंक (मार्गशीष-पौष) २००६

*

संपादक

**गोकुलदास प्रभु**

*

छापपी आनी उजवाडावपी

**सत्यवान कुंदे**

कुळागर प्रकाशन, पॉ.बो.नं. ७८,
मडगांव, गोंय - ४०३ ६०१

*

छापणावळ

**गणेश प्रिंटर्स**

मंगळूर - ५७५ ००३

*

संपादकाचो पत्तो

२५-२१-१३२०-४२
न्यू मजिला कॉलेनी,
जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२

*

मोल १० रुपया
वर्सुकी पटी
६० रुपया

*

**वेवहाराचो पत्तो**

२५-२१-१३२०-४२,
न्यू मजिला कॉलेनी,
जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२


## मांडावळ

# भारतीय काव्यमीमांस

- टी. एन. श्रीकंठय्या

वाल्मीकीचें रामायण हें संस्कृत भाशेंतलें पयलें काव्य अशें म्हणप संवकळीचें जालां. पुण ताचे पयलींच भारतांत काव्य रचनेची सुरवात जाल्ली. आर्य लोकांची पयलींचीं स्तोत्रां, संहिता, आनी उपनिषताचे साबर वांटे उत्तम कविताच. तांतूतल्यान अलोकिक जाणविकाय मेळत, ना मेळत पुण तांतूतल्या उतरांचें सौभाग्य कोणाच्यानय आस्वादन करूयेता. धर्मेतर साहित्यांत लेगीत आदी कवीचे (वाल्मीकीचे) पयलीं जायते कवी जावन गेले आसतले. पुण रामायण लोकांमुकार आयिल्ल्या उप्रांत संस्कृत काव्याचे धाय दिकानी विकास जालो. पतंजलीच्या काळार (क्रि. पू. 15 च्या सुमाराक) *वाररूच* काव्य आशिल्लें म्हणपाचो संकेत मेळटा. पातंजलीन आपल्या *महाभाष्यांत* नीत, मोग आनि त्याग हांचे विशी फोडणिशी करपी कवितांचो उदगार केला. तशी कवितेची जरी आमच्या देशांत खूब पयलीं थावन रचना जायत आशिल्ली तरी विद्वांस मनशानी तांचे कडेन फाव तशें लक्ष दिलें ना व तांचेर चर्चा केली ना. वेदाच्या अभ्यासांत व्याकरण आदी जे स विभाग आसात, तांतूत काव्याचो आस्पाव ना. विद्येच्या चवदा शाखां मदेंय ताचो उल्लेख ना. यस्काचो *निरूक्त*, पाणिनीचो *अश्टाध्यायी* ह्या ग्रंथानी निश्चितपणान *उपमा* (अलंकार) हें उतर येता. पुण तितल्यान काव्यशास्त्राची रचणूक जाली म्हणप शख्य ना. *काव्यमीमांसा* ग्रंथांत राजशेखर शिवाक लागून काव्यशास्त्राचो उगम जालो असो संकेत दिता आनि फुडें म्हणटा -

"आतां आमी काव्याविशी चर्चा करूंया. शिवान ब्रह्म, विष्णु आदी चवदा शिश्यांक किते शिकयलें, आनी मागीर इतर शिश्यांक - जे ताचे मनोपुत्र आसले, तांका शिकयलें, तेंच आमी स्वीकारया. काव्यपुरूष म्हळ्यार सरस्वतीचो पूत ब्रह्माच्या शिशयां पैकीं एकलो आसलो. ताणें अठरा शाखांचें हें शास्त्र काव्याची जाणविकाय आशिल्ल्या दिव्यपुरुसांक दिली. तांच्या मदल्या सहस्राक्षान कवितेचें रहस्य दुसऱ्यांच्या विचाराखातीर मांडलें. उक्तिगर्भान उतरां आनी अर्थ हांचेवयर प्रतिपादन केले तर

सुवर्णनाभान शैली विशीं रचना केली. प्रचेतयान, चित्रांगद आनि शेष हाणीं अलंकार, उतरांचो खेळ कवितेंतलें कुवाडें आदि विशयांचेर बरयलें. वास्तविक वर्णन, प्रतिमा, अतिताय, आनी अर्थाचें द्वैत हांचे विशीं पुलस्त्य, अरुपकायन, परासर आनी उतथ्य हाणीं बरयलें. कुबेराचें लेखन दोन तरांच्या रूपकांचेर आसलें तर कामदेवान सभ्य नागरिकां खातीर मनरिजवण, भरतान नाट्यशास्त्र, नंदिकेश्वरान रस, धिषणान देश आनी उपमन्युन गूण हाताळ्ळे. कुचमारान लेखनाखतीर पुजा, मांत्रिक नकासे आनी सूत्रांवयल्या ध्यानाचे विशय घेतले. अशें दर एकल्यान विद्येच्या आप-आपल्या खास क्षेत्राच्या विशयांचेर बरयलें". ही पारंपरगत माहिती कितली खरी आनी भरत, नंदिकेश्वर आदी कांय जाणांक सोडल्यार उरिल्ले कितले जाण इतिहासिक व्यक्ती? "चित्रं चित्रांगदः शब्दश्लेषं शेषः ....." सारखिल्ल्या नांवा फाटल्यान विशय आनी विशय मांडपी हांचे मदलो संबद दाखोवपांतलो अलंकाराची आवडच दिसता. तें कितेंय आसूं दी. कवितेचे प्रकृती विशीं प्रतिपादन करपी खिस्ता पयलींचो ग्रंथ अजून मेळूंक ना.

आमच्या देशांतल्या विद्येच्या वेगवेगळ्या शाखां पैकीं काव्यशास्त्र जरी सगळ्यांत कच्चें असलें तरी दुसरे खंचयेय शाखेंतल्या विपूल साहित्या परस आनी तत्वगिन्यानी सोदाचे दिश्टीन तें फाटीं पडूंक ना. भावनेचो आनी बुद्धीचे वापर करून जाणकारानी कवितेच्या शास्त्राचो विकास केलो आनी जायतीं रहस्य तत्वां उक्तीं करून दाखयलीं, जीं सदाकाळ आनी सगळ्या साहित्याक लागू आसतात. तांतूत जे गूण आसात, ते व्याकरण आदीं शास्त्रानी दिसनात. ताची शैशवावस्था सोडल्यार मागीरच्यो सगळ्यो दशा आमकां पळोवंक मेळटा. हे विशीं पयलीं पासून वेगवेगळीं मतां आसलीं. एका संप्रदायाक धुकलून भायर घालून आनीयेक वयर सरता. विचारांचें समर्थन तशेंच खंडण जाता. शास्त्राचो आवाठ जितलो वाडटा, तितले ताचे वाद चड चड निर्णायक जातात. ह्या वाद प्रतिवादाचे पाजणेन शिटूक मनां चड धारवंत जातात। देखूनच काव्यशास्त्रावयले चर्चेंत उर्बा दिसता. इतलेंच न्हय. ह्या शास्त्राच्या ऐन वेळर बरयल्ले जायते लोक स्वता कवी आसले. तांच्या लेखनांत साहित्याचो परमळ भरला. त्या बरपावळींत तांच्या व्यक्तिमत्वचो झगझग दिसता.

"कविता" ह्या उतराचे परिभाशेंत वाचपाची व आयकुपाची सामान्य कविता तशेंच माचयेर सादर करपाचें नाटक हांचो आसपाव जाता. वयर दिल्ल्या उदगाराची "कवितां पैकीं नाटक सुंदर" हीं तोखणाय देख. सुरवातेक कवितेचे हे दोन फांटे चर्चे खातीर बराबर घेताले अशें दिसना. कवितेचें शास्त्र (अलंकारशास्त्र) आनी नाटकाचें शास्त्र *(नाटकशास्त्र)* हाची परंपरा वेगवेगळी. हाच्या कारणाचें अनुमान करप कठीण न्हय. नाटकाची कला संमिश्र / संयुक्त म्हणूयेता. तांतल्या कवितेच्या गुणाक स्वतंत्र अस्तित्व ना. नांच, संगीत आनी भेस हांचे वांगडा कविताय अभिनयाचो एक सांगाती म्हणून येता. ह्यो वेगवेगळ्यो कला विचारांत घेतना तांचे लागीं संबद आसा आनी अभिनयाक लागता देखून कवितेचोय हिशोब जांवक लागलो. तशें नाटक, जें ताच्या मजतगारांच्या प्रभावाक लागून मर्यादित आसलें, तें कवितेच्या दसऱ्या गुणांपासून आगळें वेगळें जावन उरलें. दुसरे वशीन कवितेची सामान्यतायेन व्याख्या दिवंक सोदतल्यानी नाटकाक मुद्दाम आपल्या विचारा भायर दवरलें. तांचे मताप्रमाण तें *"आगमांतर"* म्हळ्यार वेगळ्याच एका विभागाचें आसलें। इतलेंच न्हय, दृश्य साहित्य आनी श्राव्य साहित्य हांचें सत्व एकच आनी नाटकांत रस जितलें श्रेश्ट आसा तितलें इतर साहित्याकय तें लागू जाता म्हणपाचें समजून घेवपाक तांका मातसो काळ लागलो. तें पटल्ल्या उप्रांत कविताशास्त्रांत क्रांती घडली. तरी पुण कवितेचो विचार भायर दवरिल्ले नाट्यशास्त्राचे ग्रंथ आनी नाटकां विशीं नुलोवपी काव्यशास्त्राचे ग्रंथ निमाणे मेरेन येत रावले.

अलंकारशास्त्र बरवपांतल्या आनि उलोवपांतल्या उतरांचो आकार, तांची बांदावळ आनी खोस हांचें विश्लेशण करता. काव्यमीमांसा कवितेचें सत्व, ताचे रचनेची रीत आदी विशयांचेर व्याख्या करता. सगळ्या सौन्दर्यप्रधान कलेचोच न्हय तर देवाचे रचणुकेचो लेगीत सोबीतकायेचो जो गूण आसा, तो सौंदर्यशास्त्राचो विशय. ह्या तिनूय विभागांचो चड करून पश्चात्य देशानी विकास पांवला. हांतूतल्या निमाणो विभाग थंयच्या तत्वगिन्यानाचें एक घटक जावन आसा. साबार तत्वगिन्यानी लोकानी आपल्या तत्वज्ञानाचे चर्चेंत सौंदर्याक सुवात दिल्या. पुण आमच्या देशांत ह्या तिनीय विशयांचे - अलंकारशास्त्र, काव्यशास्त्र आनी सौन्दर्यसास्त्र ह्या तिनींयचे

वेगवेगळे विभाग म्हणून हाताळपाची परंपराच जाली ना. हंगासर अलंकार, उपमा आनी भासेचे इतर प्रकार कवितेचे प्रकृतीवयल्या विचाराचें एक अनुबंधक म्हणून येता. पुण शास्त्राचे आदले जाणकार कवितेची सोबीतकाय वाडोवपी सगळ्या घटकांक अलंकारूच म्हणटाले. पुण तांचे नदरेंत पयलेंच आयलो उतरांचो खेळ, प्रास, उपमा, अतिताय, आदीं. फुडें वचत आसतना ताणीं खर विवेक वापरलो. कवितेचें सत्व ह्या प्रयोगां पासून मात्शें वेगळें आसा आनी हे प्रयोग कवितेच्या सत्वाचे फकत घटक आसात अशें ताणी निर्णय केलो. अलंकार ह्या उतराचो अर्थ शब्दांचें आनि अर्थाचें रूप अशें मर्यादित जाल्ल्या उप्रांतय ताची सौन्दर्या विशींची पयलींची सूचकताय एकदम सोंपली ना. देखूनच अलंकार शास्त्र आनी काव्यमीमांसा हीं समानार्थी उतरां म्हणून वापरंत आयलीं. इतिहासिक नदरेंतल्यान अशें सांगूयेता, पयली जें अलंकारशास्त्राचें आसलें, तें संवकासायेन फुडें वचत, खोलायेंत देवलें, वाडलें आनी काव्यशास्त्र म्हणून परिवर्तित जालें. कितेंय जावं, हीं दोनय वेगवेगळीं अशें आमच्या लोकांक केन्नाच दिसलें ना. ताचे निमत्तीं हो फायदो जालो कि फकत अलंकाराचो हिशोब करपाक भायर सारिल्ल्या व्यक्तींक कवितेंतली सुवात विसरपाक जमलें ना. उरफाटें, सौन्दर्यशास्त्र जें सगळ्या सौन्दर्यात्मककलांची एकसारखी तपासणी करता, तें आमच्या देशांत जाणविकायेचो एक स्वतंत्र विभाग म्हणून वाडून येवंक पावलो ना. पश्चिमी देशांत केल्ल्या वरी हांगाचे तत्वगिन्यानी विपुलतायेन ताची फोडणिशी करीत भोंवले नात. सगळी कलात्मक सोबीतकाय एके तरेचो वयलोचार आनी कलाकाराचें काम एके तरेचें वेसन हे भावनेन ताणी ताचें कडेन लक्ष दिलें ना. पुण सगळ्या भारतीयानी कलेची उपेक्षा केली ना. खास करून कविताशास्त्रा वयर चर्चा करचाक भायर सरिल्या लोकां मदें व्हडले व्हडले तत्वागिन्यानी लोकच आसले. हे काव्यशास्त्रज्ञ आपूण जावन इतर कलेविशीं कसलेंय मत सांगपाक भायर सरले नात पुण हाचो अर्थ तांका सगळ्या कलांचें मुळावें तत्व एकच म्हणचाचें खबर नाशिल्लें अशें न्हय. तशें कविता शास्त्रावयल्या ग्रंथानी सोन्दर्याविशीं कांय प्रमाणान विचार जालाच.

(भारतीय काव्यमीमांसे *ह्या कन्नड पुस्तकांतल्यान. अणकार - गोकुळदास प्रभु*)

## कविता १

तरा तरांची
शरीरां
आंगार चडोवन
वारो
सवन धर्तर भोंवता

आमी आपले
रुपडयांक भुल्ले
प्राणतत्व
आमकां कळ्ळेंच ना

रुपडयांनी रचलेल्यो
काणयो
आमी खऱ्योशो धल्ल्यो
आनी शेंपडी तायट करून
आपलें तेंच
रवरें म्हणपाक
एकामेकांच्यो तकल्यो
फोडल्यो

आमचीं झुजां पळोवन
वारो
मुमुर्खो हांसता
आनी कोणे तरी
निर्माण केल्लें
शरीर
आंगारु चडोवन
भोंवडेक वयता

■ रमेश भगवंत वेळुस्कर

## ಕವಿತಾ 1

ತರಾ ತರಾಂಚೀ
ಶರೀರಾಂ
ಆಂಗಾರ ಚಡೋವನ
ವಾರೊ
ಸವನ ಧರ್ತರ ಭೋಂವತಾ

ಆಮೀ ಆಪಲೆ
ರುಪಡ್ಯಾಂಕ ಭುಲ್ಲೆ
ಪ್ರಾಣತತ್ವ
ಆಮಕಾಂ ಕಳ್ಳೇಂಚ ನಾ

ರುಪಡ್ಯಾಂನೀ ರಚಲೇಲ್ಯೋ
ಕಾಣಯೋ
ಆಮೀ ಖರ್ಯೋಶೋ ಧಲ್ಲ್ಯೋ
ಆನೀ ಶೇಂಪಡೀ ತಾಯಟ ಕರೂನ
ಆಪಲೆಂ ತೇಂಚ
ರವರೆಂ ಮ್ಹಣಪಾಕ
ಏಕಾಮೇಕಾಂಚ್ಯೋ ತಕಲ್ಯೋ
ಫೋಡಲ್ಯೋ

ಆಮಚಿಂ ಝುಜಾಂ ಪಳೋವನ
ವಾರೊ
ಮುಮುರ್ಖೋ ಹಾಂಸತಾ
ಆನೀ ಕೋಣೆ ತರೀ
ನಿರ್ಮಾಣ ಕೆಲ್ಲೆಂ
ಶರೀರ
ಆಂಗಾರ ಚಡೋವನ
ಭೋಂವಡೇಕ ವಯತಾ

■ ರಮೇಶ ಭಗವಂತ ವೇಳುಸ್ಕರ

# कविता २

एके वटेन
नेण्टें तूं
एके वटेन
जाण्टें
मदले वटेन
पुणून पुता
सोदता रवीण
शेणटे

स्विणाक आमी
आकारांच्यो
घात्तल्या नसत्यो
वण्टी
काळखा आंगार
न्हेसता एक
लाख आशे
पष्टी

काळे निळे
विलुदवतीर
पेट्टा
एकेक पण्टी
कळणा म्हाकां
जीण अशी
जाण्टी काय
नेण्टी

■ रमेश भगवंत वेळुस्कर

# ಕವಿತಾ 2

ಏಕೇ ವಟೇನ
ನೇಣ್ಟೆಂ ತೂಂ
ಏಕೇ ವಟೇನ
ಜಾಣ್ಟೆಂ
ಮದಲೆ ವಟೇನ
ಪುಣೂನ ಪುತಾ
ಸೋದತಾ ರವೀಣ
ಶೇಣಟೆ

ಸ್ವಿಣಾಕ ಆಮೀ
ಆಕಾರಾಂಚ್ಯೋ
ಘಾತ್ತಲ್ಯಾ ನಸತ್ಯೋ
ವಣ್ಟೀ
ಕಾಳಖಾ ಆಂಗಾರ
ನ್ಹೆಸತಾ ಏಕ
ಲಾಖ ಆಶೆ
ಪಷ್ಟೀ

ಕಾಳೆ ನಿಳೆ
ವಿಲುದವತೀರ
ಪೆಟ್ಟಾ
ಏಕೇಕ ಪಣ್ಟೀ
ಕಳಣಾ ಮ್ಹಾಕಾಂ
ಜೀಣ ಅಶೀ
ಜಾಣ್ಟೀ ಕಾಯ
ನೆಣ್ಟೀ

■ ರಮೇಶ ಭಗವಂತ ವೇಳುಸ್ಕರ

# कविता ३

लखख तुज्या
दोळयांचो गो
चक्क उजवाड
म्हज्या काळीज
कळसार तांची
सासाय गाड
अंतर्गांठ
तांची म्हाकां
कशीच कळना
नदरेची
मिश्टी मिठी
कशीच सुटना
तुज्या वंशंचेर गो
तांची
हयन्हयशी पसय
तांच्या अद्‌भुतांची
सृस्ट
म्हज्या मतात
मात्शी वसय
दितां नदरेक
तुजे, म्हजी
नदर अधीर
लखख उदेता
मनात आपसुक
तद्रूप चंद्रीमशीर
अशा अजापांची
एक प्राची
तुजे नदरेंत उसवत येता
आनी उषः सुक्तांचीं
धूंद हुमाणी, म्हाकां
शिळमिळायतय वयता

■ रमेश भगवंत वेळुस्कर

# ಕವಿತಾ 3

ಲಖ್ಖ ತುಜ್ಯಾ
ದೋಳ್ಯಾಂಚೋ ಗೊ
ಚಕ್ಕ ಉಜವಾಡ
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕಾಳೀಜ
ಕಳಸಾರ ತಾಂಚೀ
ಸಾಸಾಯ ಗಾಡ
ಅಂತರ್ಗಾಂಠ
ತಾಂಚೀ ಮ್ಹಾಕಾಂ
ಕಶೀಚ ಕಳನಾ
ನದರೇಚಿ
ಮಿಶ್ಟೀ ಮಿಠೀ
ಕಶೀಚ ಸುಟನಾ
ತುಜ್ಯಾ ವಂಶಂಚೇರ ಗೊ
ತಾಂಚೀ
ಹಯನ್ಹಯಶೀ ಪಸಯ
ತಾಂಚ್ಯಾ ಅದ್ಭುತಾಂಚೀ
ಸೃಸ್ಟ
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮತಾತ
ಮಾತ್‌ಶೀ ವಸಯ
ದಿತಾಂ ನದರೇಕ
ತುಜೆ, ಮ್ಹಜೀ
ನದರ ಅಧೀರ
ಲಖ್ಖ ಉದೇತಾ
ಮನಾತ ಆಪಸುಕ
ತದ್ರೂಪ ಚಂದ್ರೀಮಶೀರ
ಅಶಾ ಅಜಾಪಾಂಚೀ
ಏಕ ಪ್ರಾಚೀ
ತುಜೆ ನದರೇಂತ ಉಸವತ ಯೆತಾ
ಆನಿ ಉಷಃ ಸುಕ್ತಾಂಚೀಂ
ಧೂಂದ ಹುಮಾಣೀ, ಮ್ಹಾಕಾಂ
ಶಿಳಮಿಳಾಯತಯ ವಯತಾ

■ ರಮೇಶ ಭಗವಂತ ವೇಳುಸ್ಕರ

## कविता ४

तो आड पडलेलो
एके न्हयचे
देगेर
एका झाडा पोंदा
पळयतालो
व्हांवत्या पाणयांक
सैभोंवतणो पातळ्ळले
सैम सुषयेक
उल्हसीत जावन
आनी एक मनीस
जो शांती सोदतालो
ताणे पळयलो
झाडापोंदा
उल्हसीत आत्ममग्न नदरेन
तेळटलो मनीस
नग्न न्हयें स्रोताक
नागडयांनीच

मनशान
ताका विचाल्लें
महाराज
तुमी तर
शांतीचे अमर्याद सागर
म्हाकां शांतीजाय
म्हजे कडें ना,
अशें कांयच ना
बस फकत....फकत....एक
शांती ना
म्हाका शांती दियात

## ಕವಿತಾ 4

ತೋ ಆಡ ಪಡಲೇಲೊ
ಏಕೇ ನ್ಹಯಚೆ
ದೆಗೇರ
ಏಕಾ ಝಾಡಾ ಪೋಂದಾ
ಪಳಯತಾಲೊ
ವ್ಹಾಂವತ್ಯಾ ಪಾಣಯಾಂಕ
ಸೈಭೋಂವತಣೊ ಪಾತಳ್ಳಲೆ
ಸೈಮ ಸುಷಯೇಕ
ಉಲ್ಹಸೀತ ಜಾವನ
ಆನೀ ಏಕ ಮನೀಸ
ಜೋ ಶಾಂತೀ ಸೋದತಾಲೊ
ತಾಣೆ ಪಳಯಲೊ
ಝಾಡಾಪೋಂದಾ
ಉಲ್ಹಸೀತ ಆತ್ಮಮಗ್ನ ನದರೇನ
ತೆಳಟಲೊ ಮನೀಸ
ನಗ್ನ ನ್ಹಯೆಂ ಸ್ರೋತಾಕ
ನಾಗಡಯಾಂನೀಚ

ಮನಶಾನ
ತಾಕಾ ವಿಚಾಲ್ಲೆಂ
ಮಹಾರಾಜ
ತುಮೀ ತರ
ಶಾಂತೀಚೆ ಅಮರ್ಯಾದ ಸಾಗರ
ಮ್ಹಾಕಾಂ ಶಾಂತೀಜಾಯ
ಮ್ಹಜೆ ಕಡೆಂ ನಾ,
ಅಶೆಂ ಕಾಂಯಚ ನಾ
ಬಸ ಫಕತ ... ಫಕತ ..... ಏಕ
ಶಾಂತೀ ನಾ
ಮ್ಹಾಕಾಂ ಶಾಂತೀ ದಿಯಾತ

देगेर आड पडलेल्या
त्या पुर्सान म्हटलें
एक अट आजा
मनशान म्हटले
मान्य आसा
पुर्सान म्हटलें
पयलीं तूं
तुजी अशांती
म्हाका दी
मनशान म्हटलें
अशांती तर नितांत म्हजी
आनी ती तुमकां दिवपाची
कसलीय रीत
म्हाकां खबर ना
पुर्सान
तट्ट करून म्हटलें
म्हजेय कडें
शांतीचे सांठे
अमर्याद आसात
पूण तुमकां दिवपाची
कसलीच रीत
म्हजेकडेन ना
पूण एक
तुमकां घेवपाची रीत
खबर आसल्यार
तुज्यान ती
जाय तितली घेंव येता
म्हाकां
कांयच दिसपाचें ना

■ रमेश भगवंत वेळुस्कर

ದೆಗೇರ ಆಡ ಪಡಲೇಲ್ಯಾ
ತ್ಯಾ ಪುರ್ಸಾನ ಮ್ಹಟಲೆಂ
ಏಕ ಅಟ ಆಜಾ
ಮನಶಾನ ಮ್ಹಟಲೆ
ಮಾನ್ಯ ಆಸಾ
ಪುರ್ಸಾನ ಮ್ಹಟಲೆಂ
ಪಯಲೀಂ ತೂಂ
ತುಜೀ ಅಶಾಂತೀ
ಮ್ಹಾಕಾ ದೀ
ಮನಶಾನ ಮ್ಹಟಲೆಂ
ಅಶಾಂತೀ ತರ ನಿತಾಂತ ಮ್ಹಜೀ
ಆನೀ ತೀ ತುಮಕಾಂ ದಿವಪಾಚೀ
ಕಸಲೀಯ ರೀತ
ಮ್ಹಾಕಾಂ ಖಬರ ನಾ
ಪುರ್ಸಾನ
ತಟ್ಟ್ ಕರೂನ ಮ್ಹಟಲೆಂ
ಮ್ಹಜೇಯ ಕಡೆಂ
ಶಾಂತೀಚೆ ಸಾಂಠೆ
ಅಮರ್ಯಾದ ಆಸಾತ
ಪೂಣ ತುಮಕಾಂ ದಿವಪಾಚೀ
ಕಸಲೀಚ ರೀತ
ಮ್ಹಜೆಕಡೆನ ನಾ
ಪೂಣ ಏಕ
ತುಮಕಾಂ ಘೆವಪಾಚೀ ರೀತ
ಖಬರ ಆಸಲ್ಯಾರ
ತುಜ್ಯಾನ ತೀ
ಜಾಯ ತಿತಲೀ ಘೇಂವಯೆತಾ
ಮ್ಹಾಕಾಂ
ಕಾಂಯಚ ದಿಸಪಾಚೆಂ ನಾ

■ ರಮೇಶ ಭಗವಂತ ವೇಳುಸ್ಕರ

## कवनुलां

थेंब थेंब म्हण
दुकांनीच म्हजी
भरली जीणेबांय
भितरल्या भीतर
झर्यांकूय आता
फुटल्या हात-पांय

जिणेचो एक डाव
आकोमाको
एक डाव
मिठ-पिको
एक डाव
चारकुटयो
लासता ? लासता ?
लासलें
आनी जगलोक
हांसलें

ही ओठांची लिपस्टीक
कार्रेंगाद - गाड
दोळयांत जिरयल्ल्या
दुकांची गवाय

■ नयना आडारकार

## ಕವನುಲಾಂ

ಥೆಂಬ ಥೆಂಬ ಮ್ಹಣ
ದುಕಾಂನೀಚ ಮ್ಹಜೀ
ಭರಲೀ ಜೀಣೆಬಾಂಯ
ಭಿತರಲ್ಯಾ ಭೀತರ
ಝುರ್ಯಾಂಕೂಯ ಆತಾ
ಫುಟಲ್ಯಾ ಹಾತ-ಪಾಂಯ

ಜಿಣೇಚೊ ಏಕ ಡಾವ
ಆಕೋಮಾಕೋ
ಏಕ ಡಾವ
ಮಿಠ - ಪಿಕೊ
ಏಕ ಡಾವ
ಚಾರಕುಟಯೋ
ಲಾಸತಾ ? ಲಾಸತಾ ?
ಲಾಸಲೆಂ
ಆನೀ ಜಗಲೋಕ
ಹಾಂಸಲೆಂ

ಹೀ ಓಠಾಂಚೀ ಲಿಪಸ್ಟೀಕ
ಕಾರ್ರೆಗಾದ - ಗಾಡ
ದೋಳ್ಯಾಂತ ಜಿರಯಲ್ಲ್ಯಾ
ದುಕಾಂಚೀ ಗವಾಯ

■ ನಯನಾ ಆಡಾರಕಾರ

## कविता

कितले तुवें दिले घाय
एक पाव, बेपाव, दिडकी,
अंकगणित बेहिशोबी
अंतपार नशिल्ल्या वळभर
शीममेर नाशिल्ल्या मळभर
पूण ह्या घायांक पळय
हावें कशें आटापून घेतलां
भूमितीच्या वर्तुळांत
अष्टकोन षटकोन
चौकोन त्रिकोणांत
आनी ह्या अपार घायांक
आरपार छेदमी बिंदूत

■ नयना आडारकार

## ಕವಿತಾ

ಕಿತಲೆ ತುವೆಂ ದಿಲೆ ಘಾಯ
ಏಕ ಪಾವ, ಬೇಪಾವ, ದಿಡಕೀ,
ಅಂಕಗಣಿತ ಬೇಹಿಶೋಬೀ
ಅಂತಪಾರ ನಶಿಲ್ಲ್ಯಾ ವಳಭರ
ಶೀಮಮೇರ ನಾಶಿಲ್ಲ್ಯಾ ಮಳಭರ
ಪೂಣ ಹ್ಯಾ ಘಾಯಾಂಕ ಪಳಯ
ಹಾವೆಂ ಕಶೆಂ ಆಟಾಪೂನ ಘೆತಲಾಂ
ಭೂಮಿತೀಚ್ಯಾ ವರ್ತುಳಾಂತ
ಅಷ್ಟಕೋನ ಷಟಕೋನ
ಚೌಕೋನ ತ್ರಿಕೋಣಾಂತ
ಆನೀ ಹ್ಯಾ ಅಪಾರ ಘಾಯಾಂಕ
ಆರಪಾರ ಛೆದಮೀ ಬಿಂದೂತ

■ ನಯನಾ ಆಡಾರಕಾರ

## चादींचें गांठवल

त्या म्हालम्हाताच्या धरांत
आमच्या यादींचें गांठवल
तुज्या पदराक बांदून, माई
तू करताली ताची राखण
तुज्याच निमतान थंय
लागताले आमचे पांय
मागीर गांठवलाची
सोडीत गांठ
आमीय उरतालीं गुंतून
तुजे ठांय
आतात्या गांठवलात
तुज्याय यादींची भर
पूण गांठ उसोंवक आता
खंय उकतें आसतलें घर?
आता त्या रस्त्यान वतना
घरामुखार खीणभर
घुटमळटले आमचे पांय
काळीज मात उडटले केन्नाच
बंद दारभितर, आनी
सारणा खातीर गांठवलाक
बांदतले आपले ठांय

■ नयना आडारकार

## ಚಾಂದೀಂಚೆಂ ಗಾಂಠವಲ

ತ್ಯಾ ಮ್ಹಾಲಮ್ಹಾತಾರ್ಯಾ ಧರಾಂತ
ಆಮಚ್ಯಾ ಯಾದೀಂಚೆಂ ಗಾಂಠವಲ
ತುಜ್ಯಾ ಪದರಾಕ ಬಾಂದೂನ, ಮಾಯಿೊ
ತೂ ಕರತಾಲೀ ತಾಚೀ ರಾಖಣ
ತುಜ್ಯಾಚ ನಿಮತಾನ ಥಂಯ
ಲಾಗತಾಲೆ ಆಮಚೆ ಪಾಂಯ
ಮಾಗೀರ ಗಾಂಠವಲಾಚೀ
ಸೋಡೀತ ಗಾಂಠ
ಆಮೀಯ ಉರತಾಲೀಂ ಗುಂತೂನ
ತುಜೆ ಠಾಂಯ
ಆತಾ ತ್ಯಾ ಗಾಂಠವಲಾತ
ತುಜ್ಯಾಯ ಯಾದೀಂಚೀ ಭರ
ಪೂಣ ಗಾಂಠ ಉಸೋಂವಕ ಆತಾ
ಖಂಯ ಉಕತೆಂ ಆಸತಲೆಂ ಘರ ?
ಆತಾ ತ್ಯಾ ರಸ್ತ್ಯಾನ ವತನಾ
ಘರಾಮುಖಾರ ಖೀಣಭರ
ಘುಟಮಳಟಲೆ ಆಮಚೆ ಪಾಂಯ
ಕಾಳೀಜ ಮಾತ ಉಡಟಲೆ ಕೆನ್ನಾಚ
ಬಂದ ಧಾರಭಿತರ, ಆನೀ
ಸಾರಣಾ ಖಾತೀರ ಗಾಂಠವಲಾಕ
ಬಾಂದತಲೆ ಆಪಲೆ ಠಾಂಯ

■ ನಯನಾ ಆಡಾರಕಾರ

# काळाच्यो गती

कळना केन्ना वेळ घेता
काळाची गरुडझेप
सपनांक केन्ना फूट्टीत पाखां
केन्ना गळून पडटीत मातयेंत

वेळाखातीर घडत वता
जीणेचाल नागमोडी
नागमोडी वाटेवाटेर
काळाच्योच म्हेडी

वेळाक गिळपी काळाच्यो
काणयो भिरांकूळ
वेळा-काळाक पडून गांठ
हुमटता जीणें-मूळ
वेळावेळार जाण्टयांनी
शिटकायली जरीं मती
वेळार काळान केली मात
काळाच्यो अनेक गती

■ नयना आडारकार

# ಕಾಳಾಚ್ಯೋ ಗತೀ

ಕಳನಾ ಕೆನ್ನಾ ವೇಳ ಘೇತಾ
ಕಾಳಾಚೀ ಗರುಡಝೇಪ
ಸಪನಾಂಕ ಕೆನ್ನಾ ಫೂಟ್ಟೀತ ಪಾಖಾಂ
ಕೆನ್ನಾ ಗಳೂನ ಪಡಟೀತ ಮಾತಯೇಂತ
ವೇಳಾಖಾತೀರ ಘಡತ ವತಾ
ಜೀಣೆಚಾಲ ನಾಗಮೋಡೀ
ನಾಗಮೋಡೀ ವಾಟೇವಾಟೇರ
ಕಾಳಾಚ್ಯೋಚ ಮ್ಹೆಡೀ
ವೇಳಾಕ ಗಿಳಪೀ ಕಾಳಾಚ್ಯೋ
ಕಾಣಯೋ ಭಿರಾಂಕೂಳ
ವೇಳಾ-ಕಾಳಾಕ ಪಡೂನ ಗಾಂಠ
ಹುಮಟತಾ ಜೀಣೆಂ - ಮೂಳ
ವೇಳಾವೇಳಾರ ಜಾಣ್ಟ್ಯಾಂನೀ
ಶಿಟಕಾಯಲೀ ಜರೀಂ ಮತೀ
ವೇಳಾರ ಕಾಳಾನ ಕೆಲೀ ಮಾತ
ಕಾಳಾಚ್ಯೋ ಅನೇಕ ಗತೀ

■ ನಯನಾ ಆಡಾರಕಾರ

# जीण - तीन कविता

जिणेची

कितलींच चडणां, कितलींच मोडणां
वोल्ता - वोल्ताचेर, भिरांकूळ देंगणां
तोल सांबाळटना, म्हज्या पदन्यासाक
वा ! वा! ची उद्‌गारचिन्नां
ताणीं पुरयलीं, काळजाची खिणां

जिणेंत खूब कितें शेणयलें
खूब कितें मेळयलें
त्या कुखांचें संग्रहालय
म्हज्या काळजांत
आमोरे पारार एकटुकीच
म्हजी पासय त्या दारार

जिणेचो

एक डाव आकोमाको
एक डाव मिठपिको
एक डाव चारकुटयो
एक डाव - एक डाव
करता करता डावांनी
शेणलो म्हजो गांव
शेणलें म्हजें नांव
आतां तुजो डाव
आनी फकत शिपी हांव

■ नयना आडारकार

# ಜೀಣ - ತೀನ ಕವಿತಾ

ಜಿಣೇಚೀ

ಕಿತಲೀಂಚ ಚಡಣಾಂ, ಕಿತಲೀಂಚ ಮೋಡಣಾಂ
ವೋಲ್ತಾ-ವೋಲ್ತಾಚೇರ, ಭಿರಾಂಕೂಳ ದೇಂಗಣಾಂ
ತೋಲ ಸಾಂಬಾಳಟನಾ, ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಪದನ್ಯಾಸಾಕ
ವಾ ! ವಾ! ಚೀ ಉದ್ಗಾರಚಿನ್ನಾಂ
ತಾಣೀಂ ಪುರಯಲೀಂ ಕಾಳಜಾಚೀ ಖಿಣಾಂ

ಜಿಣೇಂತ ಖೂಬ ಕಿತೆಂ ಶೇಣಯಲೆಂ
ಖೂಬ ಕಿತೆಂ ಮೇಳಯಲೆಂ
ತ್ಯಾ ಕುಖಾಂಚೆಂ ಸಂಗ್ರಹಾಲಯ
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕಾಳಜಾಂತ
ಆಮೋರೆ ಪಾರಾರ ಏಕಟುಕೀಚ
ಮ್ಹಜೀ ಪಾಸಯ ತ್ಯಾ ದಾರಾರ

ಜಿಣೇಚೋ

ಏಕ ಡಾವ ಆಕೋಮಾಕೋ
ಏಕ ಡಾವ ಮಿಠಪಿಕೋ
ಏಕ ಡಾವ ಚಾರಕುಟಯೋ
ಏಕ ಡಾವ - ಏಕ ಡಾವ
ಕರತಾ ಕರತಾ ಡಾವಾಂನೀ
ಶೇಣಲೋ ಮ್ಹಜೋ ಗಾಂವ
ಶೇಣಲೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ನಾಂವ
ಆತಾಂ ತುಜೋ ಡಾವ
ಆನೀ ಫಕತ ಶಿಪೀ ಹಾಂವ

■ ನಯನಾ ಆಡಾರಕಾರ

# उतर

मनातलें किंसर
ताका करचें उतर
आनी ल्हवूच सोडचें
शब्द ब्रम्हांडा भितर
थंयचो मेकळो श्वास
तें उलयतलें भास
काळजांक घालून हात,
भुलयतलें जना-मनांक

★★★

# हळडुवें पान

पाचव्याच केळी पानांत
तें गाड हळडुवें पान
मनाक कितली घालता भूल
त्या पानान केळम्याची
सोबितकाय गिरेस्तकाय
दिसता उठून
हळडुवे पान एकदीस
गळून पडटलें
पाचव्या पानांक तेन्ना
कितें भोगतलें ?

■ नयना आडारकार

# ಉತರ

ಮನಾತಲೆಂ ಕಿಂಸರ
ತಾಕಾ ಕರಚೆಂ ಉತರ
ಆನೀ ಲ್ಹವೂಚ ಸೋಡಚೆಂ
ಶಬ್ದ ಬ್ರಹ್ಮಾಂಡಾ ಭಿತರ
ಥಂಯಚೋ ಮೆಕಳೊ ಶ್ವಾಸ
ತೆಂ ಉಲಯತಲೆಂ ಭಾಸ
ಕಾಳಜಾಂಕ ಘಾಲೂನ ಹಾತ,
ಭುಲಯತಲೆಂ ಜನಾ - ಮನಾಂಕ

★★★

# ಹಳಡುವೆಂ ಪಾನ

ಪಾಚವ್ಯಾಚ ಕೇಳೀ ಪಾನಾಂತ
ತೆಂ ಗಾಡ ಹಳಡುವೆಂ ಪಾನ
ಮನಾಕ ಕಿತಲೀ ಘಾಲತಾ ಭೂಲ
ತ್ಯಾ ಪಾನಾನ ಕೇಳಮ್ಯಾಚೀ
ಸೋಬಿತಕಾಯ ಗಿರೆಸ್ತಕಾಯ
ದಿಸತಾ ಉಠೂನ
ಹಳಡುವೆ ಪಾನ ಏಕದೀಸ
ಗಳೂನ ಪಡಟಲೆಂ
ಪಾಚವ್ಯಾ ಪಾನಾಂಕ ತೆನ್ನಾ
ಕಿತೆಂ ಭೋಗತಲೆಂ ?

■ ನಯನಾ ಆಡಾರಕಾರ

## आमोरे पारा

आमोरे पारा
काळजा दारा
कोण मारता थाप.
काळजा भितर
यादिं घुशीक
कोण दिता वाट
घूस पोखरीत
करता बीळ
काळजाक मागीर
पडटा पीळ.
आमोरे पारा
धांपची न्हय
काळजां दारां
धाय दिकांनी
येंवदी भितर
उजवाडाची पोरां

## मोतयां

नाका मागूक
ओठांचे दळ
स्पर्शाची झळ
खिणयाळें तें
जातलें नानपयत
एका रातयां
माग म्हज्या
मनाचो तळ
थंय काळजा शिंपयेंत
सोशिकसाणें मोतयां

■ नयना आडारकार

## ಆಮೋರೆ ಪಾರಾ

ಆಮೋರೆ ಪಾರಾ
ಕಾಳಜಾ ದಾರಾ
ಕೋಣ ಮಾರತಾ ಥಾಪ.
ಕಾಳಜಾ ಭಿತರ
ಯಾದಿಂ ಘುಶೀಕ
ಕೋಣ ದಿತಾ ವಾಟ
ಘೂಸ ಪೋಖರೀತ
ಕರತಾ ಬೀಳ
ಕಾಳಜಾಕ ಮಾಗೀರ
ಪಡಟಾ ಪೀಳ.
ಆಮೋರೆ ಪಾರಾ
ಧಾಂಪಚೀ ನ್ಹಯ
ಕಾಳಜಾಂ ದಾರಾಂ
ಧಾಯ ದಿಕಾಂನೀ
ಯೆಂವದೀ ಭಿತರ
ಉಜವಾಡಾಚೀ ಪೋರಾಂ

## ಮೋತಯಾಂ

ನಾಕಾ ಮಾಗೂಕ
ಓಠಾಂಚೆ ದಳ
ಸ್ಪರ್ಶಾಚೀ ಝುಳ
ಖಿಣಯಾಳೆಂ ತೆಂ
ಜಾತಲೆಂ ನಾನಪಯತ
ಏಕಾ ರಾತಯಾಂ
ಮಾಗ ಮ್ಹಜ್ಯಾ
ಮನಾಚೊ ತಳ
ಥಂಯ ಕಾಳಜಾ ಶಿಂಪಯೇಂತ
ಸೋಶಿಕಸಾಣೆಂ ಮೋತ್ಯಾಂ

■ ನಯನಾ ಆಡಾರಕಾರ

## शेणिल्लें पावल

तुज्या शेणिज्या पावलाक
वाट दाखोवंक म्हण
हांवें म्हजें पावल उबारिल्लें
पूण
म्हज्या पावलांत तुवें
तुजें पावल घातलें
आनी म्हजें पावल आडायलें
जायत, म्हजें पावल
फूडें वचत ह्या भंयान
आतां दोनूय पावलां घुसपल्यांत
दोनूय पावलां शेणल्यांत
(*वाटो)

■ मिनीन आल्मेदा

## ಶೆಣಿಲ್ಲೆಂ ಪಾವಲ

ತುಜ್ಯಾ ಶೆಣಿಜ್ಯಾ ಪಾವಲಾಕ
ವಾಟ ದಾಖೋವಂಕ ಮ್ಹಣ
ಹಾಂವೆಂ ಮ್ಹಜೆಂ ಪಾವಲ ಉಬಾರಿಲ್ಲೆಂ
ಪೂಣ
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಪಾವಲಾಂತ ತುವೆಂ
ತುಜೆಂ ಪಾವಲ ಘಾತಲೆಂ
ಆನಿ ಮ್ಹಜೆಂ ಪಾವಲ ಆಡಾಯಲೆಂ
ಜಾಯತ, ಮ್ಹಜೆಂ ಪಾವಲ
ಫೂಡೆಂ ವಚತ ಹ್ಯಾ ಭಂಯಾನ
ಆತಾಂ ದೋನೂಯ ಪಾವಲಾಂ ಘುಸಪಲ್ಯಾಂತ
ದೋನೂಯ ಪಾವಲಾಂ * ಶೆಣಲ್ಯಾಂತ
*(ವಾಟೋ)

■ ಮಿನೀನ ಆಲ್ಮೇದಾ



## मरणाचे शिमेर

म्हाका सांडून वचूंक सोदता
वच तूं, हांव आडायना
पूण वतना काळीजूय व्हर
ह्या काळजाची आतां गरज ना

वतना मात सवकास वच
म्हाकाय फाटल्यान येवूंक जाय
जिणेचो रस्तो वांगडाच माडयलो
मरणाचे शिमेरूय मेळूंक जाय

मात्सो वळून पळय तरी
तुज्या फाटल्यान हांवूंय येता
नशिबाक तुवें वांगड दिलो
सरणार तुका सांगात दितां

■ ग्वादालूप डायस

## ಮರಣಾಚೆ ಶಿಮೇರ

ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಡೂನ ವಚೂಂಕ ಸೋದತಾ
ವಚ ತೂಂ, ಹಾಂವ ಆಡಾಯನಾ
ಪೂಣ ವತನಾ ಕಾಳೀಜೂಯ ವ್ಹರ
ಹ್ಯಾ ಕಾಳಜಾಚೀ ಆತಾಂ ಗರಜ ನಾ

ವತನಾ ಮಾತ ಸವಕಾಸ ವಚ
ಮ್ಹಾಕಾಯ ಫಾಟಲ್ಯಾನ ಯೆವೂಂಕ ಜಾಯ
ಜಿಣೇಚೋ ರಸ್ತೋ ವಾಂಗಡಾಚ
ಮಾಡಯಲೊ

ಮರಣಾಚೆ ಶಿಮೇರೂಯ ಮೇಳೂಂಕ
ಜಾಯ
ಮಾತ್ಸೋ ವಳೂನ ಪಳಯ ತರೀ
ತುಜ್ಯಾ ಫಾಟಲ್ಯಾನ ಹಾಂವೂಂಯ ಯೇತಾ
ನಶಿಬಾಕ ತುವೆಂ ವಾಂಗಡ ದಿಲೊ
ಸರಣಾರ ತುಕಾ ಸಾಂಗಾತ ದಿತಾಂ

■ ಗ್ವಾದಾಲೂಪ ಡಾಯಸ

## मेरी - गो - रांउंड | ಮೇರೀ - ಗೋ - ರಾಂವುಂಡ

| | |
|---|---|
| जगतां, जगतां, जीवन कंठता | ಜಗತಾಂ, ಜಗತಾಂ, ಜೀವನ ಕಂಠತಾ |
| संसारचक्रांत केदना घुस्पलीं | ಸಂಸಾರಚಕ್ರಾಂತ ಕೆದನಾ ಘುಸ್ಪಲೀಂ |
| कळ्ळेंच ना | ಕಳ್ಳೇಂಚ ನಾ |
| चलतां, चलतां, हांसता खेळतां | ಚಲತಾಂ, ಚಲತಾಂ, ಹಾಂಸತಾ ಖೇಳತಾಂ |
| चक्रव्युहांत कशी शिरकली | ಚಕ್ರವ್ಯೂಹಾಂತ ಕಶೀ ಶಿರಕಲೀ |
| कळ्ळेंच ना | ಕಳ್ಳೇಂಚ ನಾ |
| संसाराच्या रेसकोर्सारी | ಸಂಸಾರಾಚ್ಯಾ ರೇಸಕೋರ್ಸಾರೀ |
| जबाबदारी वजें उकोळनू | ಜಬಾಬುದಾರೀ ವಜೆಂ ಉಕೋಳನೂ |
| आंखून दिलेले लक्ष्मणरेशेंत | ಆಂಖೂನ ದಿಲೆಲೆ ಲಕ್ಷ್ಮಣ ರೇಷೇಂತ |
| चलत राबतां, चलत राबतां | ಚಲತ ರಾಬತಾಂ, ಚಲತ ರಾಬತಾಂ |
| राबल्यारी परत चलचें कठीण | ರಾಬಲ್ಯಾರೀ ಪರತ ಚಲಚೆಂ ಕಠಿಣ |
| म्होण हांव पडत झडत | ಮ್ಹೋಣ ಹಾಂವ ಪಡತ ಝಡತ |
| चलत राबतां, चलत राबतां | ಚಲತ ರಾಬತಾಂ, ಚಲತ ರಾಬತಾಂ |
| खरशेत, निरशेत | ಖರಶೇತ, ನಿರಶೇತ |
| धांवत राबतां धांवत राबतां | ಧಾಂವತ ರಾಬತಾಂ ಧಾಂವತ ರಾಬತಾಂ |
| चलता धांवता लक्षांत येता | ಚಲತಾ ಧಾಂವತಾ ಲಕ್ಷಾಂತ ಯೇತಾ |
| गिरीगिरी घाण्या गोरुं हांव | ಗಿರೀಗಿರೀ ಘಾಣ್ಯಾ ಗೋರುಂ ಹಾಂವ |
| गोल गोल घुंवत आसतां | ಗೋಲಗೋಲ ಘುಂವತ ಆಸತಾಂ |
| घर-बस-स्कूल - ऑफिस | ಘರ - ಬಸ -ಸ್ಕೂಲ - ಆಫೀಸ |
| मार्केट - स्कूल - बस-घर | ಮಾರ್ಕೆಟ - ಸ್ಕೂಲ - ಬಸ - ಘರ |
| अनाळी गुनाळी घेता घेता | ಅನಾಳೀ ಗುನಾಳೀ ಘೇತಾ ಘೇತಾ |
| गोल गोल घुंवत आसतां | ಗೋಲ ಗೋಲ ಘುಂವತ ಆಸತಾಂ |
| मनांत आयल्यारी बंध तुंटोन | ಮನಾಂತ ಆಯಲ್ಯಾರೀ ಬಂಧ ತುಂಟೋನ |

चक्रांतुले भायर सरयेत,
जाय जाल्लेली वाट धरयेत
तरी हांव खुशीखुशीन
बंधना त्रिज्येचें परीघ धोरन
गिर गिर गिरकी घेता राबतां
नजर लावन पळयल्यारी
सुत्तूजगय घुंवत आसता
सूख विकत घेंवचेखातिर
जगय धांवता, जनय धांवता,
इन्स्टॉलमेंटांत जगचेखातिर
धापेवन धापेवन मुखार पावता,
काळ अखंड व्हांवत वता
खरो अर्थ मागशी उरता
हांव मात्र थंयचे थंय आसतां
जीवनाच्या भव्य जात्रेंतु
हांव अजूनी खेळत आसतां
मगेले जिणेचो मेरी-गो-रांऊंड

■ इंदू अशोक गेरसप्पे

ಚಕ್ರಾಂತುಲೆ ಭಾಯರ ಸರಯೇತ,
ಜಾಯ ಜಾಲ್ಲೆಲೀ ವಾಟ ಧರಯೇತ
ತರೀ ಹಾಂವ ಖುಶೀಖುಶೀನ
ಬಂಧನಾ ತ್ರಿಜ್ಯೇಚೆಂ ಪರೀಘ ಧೋರನ
ಗಿರ ಗಿರ ಗಿರಕೀ ಘೇತಾ ರಾಬತಾಂ
ನಜರ ಲಾವನ ಪಳಯಲ್ಯಾರೀ
ಸುತ್ತೂಜಗಯ ಘುಂವತ ಆಸತಾ
ಸೂಖ ವಿಕತ ಘೇಂವಚೇಖಾತಿರ
ಜಗಯ ಧಾಂವತಾ, ಜನಯ ಧಾಂವತಾ,
ಇನ್‌ಸ್ಟಾಲ್‌ಮೇಂಟಾಂತ ಜಗಚೇಖಾತಿರ
ಧಾಪೇವನ ಧಾಪೇವನ ಮುಖಾರ ಪಾವತಾ,
ಕಾಳ ಅಖಂಡ ವ್ಹಾಂವತ ವತಾ
ಖರೋ ಅರ್ಥ ಮಾಗಶೀ ಉರತಾ
ಹಾಂವ ಮಾತ್ರ ಥಂಯಚೆ ಥಂಯ ಆಸತಾಂ
ಜೀವನಾಚ್ಯಾ, ಭವ್ಯ ಜಾತ್ರೇಂತು
ಹಾಂವ ಅಜೂನೀ ಖೇಳತ ಆಸತಾಂ
ಮಗೆಲೆ ಜಿಣೇಚೋ ಮೇರೀ-ಗೋ-ರಾಂವುಂಡ

■ ಇಂದೂ ಅಶೋಕ ಗೇರಸಪ್ಪೆ

## स्वरगंगा

सखया,
कितलें सुरेल, कितलें सुरम्य तुगेलें
सैमसंगीत
ह्या स्वर्गसंगीताचें स्पंदन
सबंध सृष्टींतू
उसळत्या ल्हारांर नांचता
वाऱ्या ल्हारांर स्वैर आलाप घेता
मोव मोव तणांत लोळता खेळता
फुल्लां रंगात रंगता
पाचव्या पल्लवांतू पल्लवी गायता
पर्वत पर्वतांत साद घालता
व्हाळ झऱ्यां सांगाती घुंगरां बांदून
खडपाखडपांर रुणझुणता,
काळया मोडां शंखनाद
अथांग सागरा मंत्रघोष
पक्षा पदां आरोह अवरोह
आळयताती तुगेलीची महती
घुंवताती घुमताती
अखंड तारामंडळांत
भोवरन एकरुप जाताती
गर्भशांत मोनेळांत
स्वरगंगा
आनि हांव उबरल्यां ह्या संवसारांत
जंय हें स्वर्गीय संगीत हॉगाळन
आवाज एकमेकांचेरी आदळताती
आक्रोश करताती
धायी दिकांनी

## ಸ್ವರಗಂಗಾ

ಸಖಯಾ,
ಕಿತಲೆಂ ಸುರೇಲ, ಕಿತಲೆಂ ಸುರಮ್ಯ ತುಗೆಲೆಂ
ಸೈಮಸಂಗೀತ
ಹ್ಯಾ ಸ್ವರ್ಗಸಂಗೀತಾಚೆಂ ಸ್ಪಂದನ
ಸಬಂಧ ಸೃಷ್ಟೀಂತೂ
ಉಸಳತ್ಯಾ ಲ್ಹಾರಾಂರ ನಾಂಚತಾ
ವಾರ್‍ಯಾ ಲ್ಹಾರಾಂರ ಸ್ವೈರ ಆಲಾಪ ಘೇತಾ
ಮೋವ ಮೋವ ತಣಾಂತ ಲೋಳತಾ ಖೇಳತಾ
ಫುಲ್ಲಾಂ ರಂಗಾತ ರಂಗತಾ
ಪಾಚವ್ಯಾ ಪಲ್ಲವಾಂತೂ ಪಲ್ಲವೀ ಗಾಯತಾ
ಪರ್ವತ ಪರ್ವತಾಂತ ಸಾದ ಘಾಲತಾ
ವ್ಹಾಳ ಝರ್‍ಯಾಂ ಸಾಂಗಾತೀ ಘುಂಗರಾಂ ಬಾಂದೂನ
ಖಡಪಾಖಡಪಾಂರ ರುಣಝುಣತಾ,
ಕಾಳಯಾ ಮೋಡಾಂ ಶಂಖನಾದ
ಅಥಾಂಗ ಸಾಗರಾ ಮಂತ್ರಘೋಷ
ಪಕ್ಷಾ ಪದಾಂ ಆರೋಹ ಅವರೋಹ
ಆಳಯತಾತೀ ತುಗೆಲೀಚೀ ಮಹತೀ
ಘುಂವತಾತೀ ಘುಮತಾತೀ
ಅಖಂಡ ತಾರಾಮಂಡಳಾಂತ
ಭೋವರನ ಏಕರೂಪ ಜಾತಾತೀ
ಗರ್ಭಶಾಂತ ಮೋನೇಳಾಂತ
ಸ್ವರಗಂಗಾ
ಆನಿ ಹಾಂವ ಉಬರಲ್ಯಾಂ ಹ್ಯಾ ಸಂವಸಾರಾಂತ
ಜಂಯ ಹೆಂ ಸ್ವರ್ಗೀಯ ಸಂಗೀತ ಹೊಗಾಳನ
ಆವಾಜ ಏಕಮೇಕಾಂಚೇರಿ ಆದಳತಾತೀ
ಆಕ್ರೋಶ ಕರತಾತೀ
ಧಾಯೀ ದಿಕಾಂನೀ

गजाल गोंदळू
कर्कश कल्लोळू
तापलेल्या सळयां ध्वनी
कानां पडदे पिंजून भितर सरताती
मेंदवांतू
असल्या वेळारी,
एक क्षण राबूनू
हरद्यारी हात दवरी,
आयक
काळजा पखवाज गाज
रंद्ररंद्रा ॐकार
श्वासां गुंजन
प्राणप्रवाहा झंकारु
आयक अंतर्नाद
त्याच स्वर्गसंगीताचो पडसाद
त्याच नादाचो निनाद
ते स्वरगंगेंत
सगळे बेसूर बेसूर सूर
वीरन वताती
त्याच सूरांत सूर मेळोवन उलय
त्याच छंदतालांत पावलां मेळय
सैमसंगितांत सम जुळय
आयक
तुगेलेची काळजांत
प्राणसंगीत
विश्वसंगीत

■ इंदू अशोक गेरसप्प

ಗಜಾಲ ಗೋಂದಳೂ
ಕರ್ಕಶ ಕಲ್ಲೋಳೂ
ತಾಪಲೇಲ್ಯಾ ಸಳ್ಯಾಂ ಧ್ವನೀ
ಕಾನಾಂ ಪಡದೆ ಪಿಂಜೂನ ಭಿತರ ಸರತಾತೀ
ಮೆಂದವಾಂತೂ
ಅಸಲ್ಯಾ ವೇಳಾರೀ,
ಏಕ ಕ್ಷಣ ರಾಬೂನು
ಹರದ್ಯಾರೀ ಹಾತ ದವರೀ
ಆಯಕ
ಕಾಳಜಾ ಪಖವಾಜ ಗಾಜ
ರಂದ್ರರಂದ್ರಾ ಓಂಕಾರ
ಶ್ವಾಸಾಂ ಗುಂಜನ
ಪ್ರಾಣಪ್ರವಾಹಾ ಝಂಕಾರು
ಆಯಕ ಅಂತರ್ನಾದ
ತ್ಯಾಚ ಸ್ವರ್ಗಸಂಗೀತಾಚೊ ಪಡಸಾದ
ತ್ಯಾಚ ನಾದಾಚೋ ನಿನಾದ
ತೆ ಸ್ವರಗಂಗೇಂತ
ಸಗಳೆ ಬೇಸೂರ ಬೇಸೂರ ಸೂರ
ವೀರನ ವತಾತೀ
ತ್ಯಾಚ ಸೂರಾಂತ ಸೂರ ಮೆಳೋವನ ಉಲಯ
ತ್ಯಾಚ ಛಂದತಾಲಾಂತ ಪಾವಲಾಂ ಮೇಳಯ
ಸೈಮಸಂಗೀತಾಂತ ಸಮ ಜುಳಯ
ಆಯಕ
ತುಗೆಲೇಚೀ ಕಾಳಜಾಂತ
ಪ್ರಾಣಸಂಗೀತ
ವಿಶ್ವಸಂಗೀತ

■ ಇಂದೂ ಅಶೋಕ ಗೇರಸಪ್ಪೆ

## आज मरेन

फूल बागां पाविले तशी
दोळे ताजे
चारी कडेन धांवले !
उकते फूल
अर्द, फुल्लेले कळे
वारांत नांचून खेळचो वाल
सुंदर ............ सोबीत .......!
वाटकुळे गाल
तरे तरेचें वर्ण
म्होंव भरिल्लीं फुलां !
तो दर एक फुला कडेन गेलो
वास घेतलो
उमो दिलो
मोगान परसीलें
मस्तीन घुंवलों ...........
मन तजे आनंद विभोर जालें !
आपण्याक विसरलो तो !
नवें नवें फुलाक सोदून भोवलो तो
बागांत !
फूल चिमटू नज
पिशापण-तो हासलो
फुल्लांचे सुवासान तो जीण विसरलो !
आपणाक विसरलो

## ಆಜ ಮರೇನ

ಫೂಲ ಬಾಗಾಂ ಪಾವಿಲೆಂ ತಶೀಂ
ದೋಳೇ ತಾಜೆ
ಚಾರೀ ಕಡೇನ ಧಾಂವಲೆ !
ಉಕತೆ ಫೂಲ
ಅರ್ಧ ಫುಲ್ಲೆಲೆ ಕಳೆ
ವಾರಾಂತ ನಾಂಚತ ಖೇಳಚೋ ವಾಲ
ಸುಂದರ ... ಸೋಬಿತ ... !
ವಾಟಕುಳೆ ಗಾಲ
ತರೇ ತರೇಚೆಂ ವರ್ಣ
ಮ್ಹೋವ ಭರಿಲ್ಲೆ ಫುಲ್ಲಾಂ !
ತೋ ದರ ಏಕ ಫುಲ್ಲಾಕ ಡೇನ ಗೆಲೋ
ವಾಸ ಘೆತಲೊ
ಉಮೋ ದಿಲೊ
ಮೋಗಾನ ಪರಸೀಲೆಂ
ಮಸ್ತೀನ ಘುಂವಲೊ
ಮನ ತಾಜೆಂ ಆನಂದ ವಿಭೋರ ಜಾಲೆ !
ಆಪಣ್ಯಾಕ ವಿಸರಲೊ ತೋ !
ನವೆಂ ನವೆಂ ಫುಲ್ಲಾಕ ಸೋದೂನ ಭೋವಲೋ ತೋ
ಬಾಗಾಂತ !
ಬಾಗಾಂತ ಬರೋವನ ಆಶಿಲ್ಲೆಂ
ಫೂಲ ಚಿಮಟ ನಜ
ಪಿಶಾಪಣ ತೋ ಹಾಸಲೋ
ಫುಲ್ಲಾಂಚೆಂ ಸುವಾಸಾನ ತೋ ಜೀಣ ವಿಸರಲೊ !
ಆಪಣಾಕ ವಿಸರಲೊ.

परत वची वाट विसरलो !
आखेर
आकर्षणाचे हातां पडून गळीत जालो
रडलो तो
हात पाय मारले ताणे
पुण
ताजें रडणें आयकूक
कोणय नाशिल्ले थंय !
तेदनाय
फूल हासता आशिल्ले
वाले नांतोआशिल्लो
पाय गडगडेन एक कांट्या फुलझाडार
पडलो तो
ताजे दोळे कुरवलें
दोळे धांपून गेले ताका
ताणे दोळे सोडलें ?
युगयुगांतर जाले
ह्या प्रश्नाक
आज मरेन
जाप मेळी ना ! ..........

■ भक्ता आर काजंगाड

ಪರತ ವಚ್ಚೀ ವಾಟ ವಿಸರಲೊ !
ಆಖೇರ
ಆಕರ್ಷಣಾಚೆ ಹಾತಾಂ ಪಡೂನ ಗಳೀತ ಜಾಲೊ
ರಡಲೋ ತೋ
ಹಾತ ಪಾಯ ಮಾರಲೆ ತಾಣೆ
ಪುಣ
ತಾಜೆ ರಡಣೆಂ ಆಯಕೂಕ
ಕೋಣಯ ನಾಶಿಲ್ಲೆ ಥಂಯ !
ತೆದನಾಯ
ಫೂಲ ಹಾಸ್ತಾ ಆಶಿಲ್ಲೆ !
ವಾಲೆ ನಾಂತಾ ಆಶಿಲ್ಲೆ !
ಪಾಯ ಗಡಗಡೆನ ಏಕ ಕಾಂಟ್ಯಾ ಫುಲಝಾಡಾರ
ಪಡಲೊ ತೋ
ತಾಜೆ ದೋಳೆ ಕುರುವಲೆ
ದೋಳೆ ಧಾಂಪೂನ ಗೆಲೆ ತಾಕಾ !
ತಾಣೇ ದೋಳೆ ಸೋಡಲೇಂವೆ ?
ಯುಗಯುಗಾಂತರ ಜಾಲೆ
ಹ್ಯಾ ಪ್ರಶ್ನಾಕ
ಆಜ ಮರೆನ
ಜಾಪ ಮೇಳೀ ನಾ ! ................

■ ಭಕ್ತಾ ಆರ್. ಕಾಞಂಗಾಡ್

## पेलतडी

## ಪೆಲತಡೀ

| | |
|---|---|
| दोणी तडीर बांदून | ದೋಣೀ ತಡೀರ ಬಾಂದೂನ |
| ओ दोणी चलोवपी ! | ಓ ದೋಣೀ ಚಲೊವಪೀ ! |
| खंय वचून बसला तूं ? | ಖಂಯ ವಚೂನ ಬಸಲಾ ತೂಂ ? |
| पेलतडी पार करोवपी | ಪೆಲತಡೀ ಪಾರ ಕರೋವಪೀ |
| अपण मान | ಅಪಣ ಮಾನ |
| अशें विचार आसुं पुरो तुजो | ಅಶೆಂ ವಿಚಾರ ಆಸು ಪುರೊ ತುಜೊ |
| जायत | ಜಾಯತ |
| म्हाका बेगीन पावका | ಮ್ಹಾಕಾ ಬೆಗೀನ ಪಾವಕಾ |
| पेलतडी | ಪೆಲತಡೀ |
| म्हजो वेळ लागी येता आसा | ಮ್ಹಜೊ ವೇಳ ಲಾಗೀ ಯೇತಾ ಆಸಾ |
| दोणी मेळ्ळी | ದೋಣೀ ಮೆಳ್ಳೀ |
| हूड काडी ! | ಹೂಡ ಕಾಡೀ ! |
| वारें अनुकूल आसा | ವಾರೆಂ ಅನುಕೂಲ ಆಸಾ |
| म्हाजो कळवळ | ಮ್ಹಾಜೊ ಕಳವಳ |
| मनांतलें आंदोळन | ಮನಾಂತಲೆಂ ಆಂದೋಳನ |
| कळना तुका ? | ಕಳನಾ ತುಕಾ ? |
| तूंवे | ತೂಂವೆ |
| जायत्या जणांक | ಜಾಯತ್ಯಾ ಜಣಾಂಕ |
| पेलतडी पावयलामू ? | ಪೆಲತಡೀ ಪಾವಯಲಾಮೂ ? |
| कित्याक हो तडोव ? | ಕಿತ್ಯಾಕ ಹೋ ತಡೋವ ? |



हांव परको न्हयमू
हे मात्येंतूच हांवय रावून आसा
राकीले पावलें ना तुका ?
उदकां घालनाशिले
म्हाका
पेलतडी व्हरूंक तूंच जाय
तूं
खंय निपून बसला ?
बेगीन यो
आयकता तूं ?
म्हाका योग्य वेळार पावंचाक
दया करी !

■ भक्ता आर काजंगाड

ಹಾಂವ ಪರಕೊ ನ್ಹಯಮೂ
ಹೆ ಮಾತ್ಯೆಂತೂಚ ಹಾಂವಯ ರಾವೂನ ಆಸಾ
ರಾಕಿಲೆ ಪಾವಲೆಂ ನಾ ತುಕಾ ?
ಉದಕಾಂ ಘಾಲನಾಶಿಲೆ
ಮ್ಹಾಕಾ
ಪೆಲತಡೀ ವ್ಹರೂಂಕ ತೂಂಚ ಜಾಯ
ತೂಂ
ಖಂಯ ನಿಪೂನ ಬಸಲಾ ?
ಬೆಗೀನ ಯೋ
ಆಯಕತಾ ತೂಂ ?
ಮ್ಹಾಕಾ ಯೋಗ್ಯ ವೇಳಾರ ಪಾವಂಚಾಕ
ದಯಾ ಕರೀ !

■ ಭಕ್ತಾ ಆರ್. ಕಾಞಂಗಾಡ್



## रवींद्रनाथ टागोर हांचें एक गीतक

शांतीचो महासागर नदरे फुडें
हे कर्णधारा, देंवय हें व्हडें -
आसचो तुजो सासणाचो सांगात
घे घे म्हाका तुगेल्या गोपांत -
ध्रुवतारो उजवाडायतलो वाट ही
अनंताकडेची
तुजी क्षमा, ती करुणा, हे मुक्तिदाता
चिरंतनाचे यात्रेर प्राणाधार म्हाका -
संवसार बन्धनां वचोय निसरून
विराट विश्व धरो म्हाका पोटलून -
अंतरांत मेळो निर्भय वळख, त्या
भव्य अज्ञाताची

**अणकार : शरतचंद्र शेणै**

## ರವೀಂದ್ರನಾಥ ಟಾಗೋರ ಹಾಂಚೆಂ ಏಕ ಗೀತಕ

ಶಾಂತೀಚೊ ಮಹಾಸಾಗರ ನದರೆ ಫುಡೆಂ
ಹೇ ಕರ್ಣಧಾರಾ, ದೇಂವಯ ಹೇಂ ವ್ಹಡೆಂ-
ಆಸಚೊ ತುಜೋ ಸಾಸಣಾಚೊ ಸಾಂಗಾತ
ಘೆ ಘೆ ಮ್ಹಾಕಾ ತುಗೆಲ್ಯಾ ಗೋಪಾಂತ
ಧ್ರುವತಾರೊ ಉಜವಾಡಾಯತಲೊ ವಾಟ ಹೀ
ಅನಂತಾಕಡೆಚೀ
ತುಜೀ ಕ್ಷಮಾ, ತೀ ಕರುಣಾ, ಹೇ ಮುಕ್ತಿದಾತಾ
ಚಿರಂತನಾಚೆ ಯಾತ್ರೇರ ಪ್ರಾಣಾಧಾರ ಮ್ಹಾಕಾ-
ಸಂವಸಾರ ಬಂಧನಾಂ ವಚೋಯ ನಿಸರೂನ
ವಿರಾಟ ವಿಶ್ವ ಧರೋ ಮ್ಹಾಕಾ ಪೋಟಲೂನ-
ಅಂತರಾಂತ ಮೇಳೋ ನಿರ್ಭಯ ವಳಖ, ತ್ಯಾ ಭವ್ಯ
ಅಜ್ಞಾತಾಚೀ

**ಅಣಕಾರ : ಶರತಚಂದ್ರ ಶೆಣೈ**